# भूंय-कांप

*(गोवा कोंकणी अकादेमीन 2003-2004 वर्सा घेतिल्ले तियात्र हातबरप लेखन सर्तींत पयलें इनाम फावो जाल्लो तियात्र)*

मार्क द आरावजो







गोवा कोंकणी अकादेमी

**भूंय-कांप** (तियात्र)

बरोवपी :
मार्क द आरावजो

लिप्यांतरकार :
पाश्कॉल रॉड्रिक्स

प्रकाशन क्र. 61



उजवाडावपी :
राजू गांवस
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी - गोंय.

अक्षर जुळणी आनी छापपी :
विजन वेंचर्स
कुडचडें - गोंय.

मुखपृश्ट :
विजन वेंचर्स

पयली आवृत्ती :
मार्च 2005

मोल : रु. 50/-

**BHUIM-KAMP** (Tiatr)

by
Mark de Araujo

Transliterator :
Pascoal Rodricks



Publication No. 61



**Publisher :**
Raju Gawas
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji - Goa.

**Typesetting & Printing :**
Vision Ventures
Curchorem - Goa.

**Cover Design :**
Vision Ventures

**First Edition :**
March 2005

**Price :** *Rs. 50/-*




## *अकादेमीचेवतीन...*

गोवा कोंकणी अकादेमी दर वर्सा तियात्र हातबरपांची सर्त घडोवन हाडटा. पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांदीश हांच्या उगडासाखातीर अकादेमीन ही सर्त दवरल्या. हे सर्तींत पयलें इनाम लाबिल्लो तियात्र उपरांत अकादेमी पुस्तकरूपान उजवाडा हाडटा. तियात्र लेखनाचे परंपरेप्रमाण सर्तींतले तियात्र रोमी लिपींत आसतात पूण अकादेमी ते स्वखर्चान देवनागरी लिपींत उतरायता आनी देवनागरी लिपयेंतूच छापता. हे सर्तींत तियात्र बरोवप्यांक उत्तेजन लाबता ही पयली गजाल आनी दुसरी गजाल म्हळ्यार बऱ्या लेखनाचो दर्जो आशिल्ले तियात्र देवनागरींतल्या वाचप्यां-मेरेन पावतात.

तियात्राचीं हातबरपां छापून पुस्तक रूपान उजवाडा हाडपाची तियात्राच्या मळार चाल ना. पूण पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांदीस हाणी आपणालें तियात्र पुस्तक रूपान उजवाडाक हाडिल्लें. उपरांत कांय तियात्रीस्तांनी हो प्रयोग केलो. नामनेचे तियात्रीस्त आनी बरोवपी तोमाजिन्यू कार्दोज हाणी हालींसराक आपणाले जायते तियात्र रोमी लिपींत तशेंच देवनागरी लिपींतूय उजवाडायल्या. गोवा कोंकणी अकादेमीन हाचें आर्दी दोन तियात्रांचे झेले पुस्तक रूपान उजवाडा हाडल्या. ह्या दोन झेल्यांत कोंकणी पालकार जावन गेल्ल्या 10 तियात्रीस्तांच्या गाजलेल्या तियात्रांचो आस्पाव आसा. हे दोनूय झेले रोमी लिपींत आसात आनी तांच्या संकलनाचो तशेंच संपादनाचो भौमोलादिक असो वावर स.फेलिसिओ कार्दोज हाणी केल्लो. हो वावर मुखार वचून आनीक कांय तियात्रांचे झेले उजवाडा येवपाचे आशिल्ले पूण फेलिसिओबाबाच्या अपघाती मर्णाक लागून हो वावर खंडीत उरलो.

नाटक-तियात्र हे कोंकणी साहित्याचे प्रकार आसात. अकादेमी जशी नाटकाची पुस्तकां छापपाक वेगवेगळ्या येवजण्यांवरवीं लेखकांक आनी प्रकाशकांक उत्तेजन दिता तेचपरी तियात्राचीं पुस्तकां छापपाकूय उत्तेजन दिता.

अकादेमीन तियात्र लेखन बरपाची सर्त 2000–2001 ह्या अर्थीक वर्सांत

सुरू केली. पयले सर्तितलो पयलो आयिल्लो तियात्र कांय कारणाक लागून छापून येवपाक पावलोना. दुसरे सर्तित पयलो आयिल्लो आर.बी.एस.कोमरपंत हांगेलो 'कायदो' हो तियात्र पुस्तक रूपान उजवाडाक आयला. अकादेमीन दिल्ल्या अर्थीक आदारान तो ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनान उजवाडायला. तिसरे सर्तित पयल्या इनामाचो तियात्र नाशिल्ल्यान ताचें पुस्तक येवपाक पावलेंना.

अकादेमी तियात्राचीं पुस्तकां उजवाडा हाडपाक धडपडटा खरी पूण खंतीन सांगचें पडटा, हे धडपडीक जितलो मेळपाक जाय तितलो प्रतिसाद मेळना. गोंयांत दर वर्सा उण्यांत उणे पन्नास तरी नवे तियात्र रंगमाचयेर येतात पूण अकादेमीचे सर्तित धा परस चड तियात्राचीं हातबरपां येना. इनामांची रक्कम वाडोवप, नेमांत सदळसाण दवरप, प्रसिद्धी करप असले जायते उपाय अकादेमी घेता पूण त्या उपायांक योग्य तें फळ मेळना.

अकादेमीचे 2003–04 वर्साचें चवथें तियात्र हातबरप लेखन सर्तित पयलें इनाम लाबिल्लो 'भूंय-कांप' तियात्र वाचप्यांच्या हातांत दितना अकादेमीक भोव खोस भोगता. 'भूंय-कांप' तियात्राचो लेखक बाब मार्क द आरावजो हो एक तरनाटो आनी उदेतो तियात्रीस्त जावन आसा.

ताणें चड तियात्र बरोंवक ना पूण तियात्र रंगमाचयेर तो एक फिशाल कलाकार म्हण वावुरला. आनी त्या अणभवाचो फायदो ताका तियात्र बरोवपांत जाला. तागेल्या 'भूंय-कांप' तियात्राक हेरूयकडेन इनामां लाबल्यांत आनी ताणे तो व्हीसीडीच्या रूपानूय प्रगट केला.

बाब मार्क द आरावजो हाचो तियात्र प्रेक्षकांनी वाखाणला तसो वाचप्यांकूय तो मानवतलो अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष,
गोवा कोंकणी अकादेमी

# बरोवप्याचीं दोन उतरां...

भुरगो आसतना तियात्रांत वो एक-अंकी नाटकुल्यांनी भुमिका करपाची आवड आसली, पूण अशी एकूय संदी मेळोना ती पळोवन हांवे स्वतः एक-अंकी नाटकुलें बरयलें आनी गांवांत नातालांच्या समयार घडोवन हाडलेल्या एक-अंकी नाटकुलीं स्पर्धेंत वांटो घेतलो आनी तांतून भुमिका केली. आनी हांवें बरयलेल्या एक-अंकी नाटकुल्याक जाचें नांव 'फारीकपोण' हाका पयलें इनाम फावो जालें. उपरांत दर वर्सा सुमार 5 एक-अंकी नाटकुलीं बरयलीं, तांचीं नांवां 'रोगताक विसोरलो', 'ओशें सोमाजान घोडटा', 'बॉम न्होय फातोर', 'ओशें घोडटा कित्याक?', आनी 'चित्रकार'. उपरांत प्रोफेशनल तियात्रानी भुमिका करूंक लागलो, तेदना एक-अंकी नाटकुलीं बरोवपाचीं बंद केलीं. पूण 'गुलाब' आनी 'गोंयचो आवाज' पत्रांचेर बरोवपाक लागलो. गोंयचे फांकी तियात्र बरोवपी पॅट्रीक दोवराद, प्रिन्स जाकोब, मारियो मिनेझीस, पास्कुआल रॉड्रिक्स हांच्या तियात्रांनी तशेंच साबार तियात्रांनी हांवें भुमिका केल्या.

मनान सदांच चिंतालो एक तियात्र बरोवन माचयेर हाडटलो आनी एक बरी संदी मेळ्ळी तेदना हो 'भूंय-कांप' तियात्र बरयलो आनी कला अकादमीन घडोवन हाडलेले 29 वे तियात्र स्पर्धेंत भाग घेतलो आनी ह्या तियात्राक पयलें इनाम फावो जालें. तसोच बरो नट म्हूण म्हाका पयलें इनाम मेळ्ळें. तशेंच वंदना प्रॉडक्शन, बोरी हाणीं घडोवन हाडलेल्या तियात्र हातबरप लेखन सर्तींत (2004–2005) 'भूंय-कांप' तियात्राक पयलें इनाम फावो जालें. ह्या तियात्राची व्हीसीडी हांवे तयार केल्या. हाच्या उपरांत हांवें एक टेलेफिल्म 'संवसार सोंपल्या उपरांत' हाची व्हीसीडी केल्या. आनी त्यो व्हीसीडी गोयांत तशेंच परदेसांत कोंकणी मोग्यांच्या हातांत पावल्यात.

हांवें बरयलेलो म्हजो पयलोच तियात्र पुस्तकाच्या रूपान छापून येता देखून म्हाका चड खोशी भोगता. आनी अशें घडलें फकत गोवा कोंकणी अकादेमीक लागून. ताणी घडोवन हाडलेल्या तियात्र हातबरप सर्तींत म्हाका पयलें इनाम फावो जालें, देखून हांव गोवा कोंकणी अकादेमीक काळजानथावन देव बरें करूं म्हणटां.

तसोच हांव म्हजे इश्ट आवितो फेर्नांदिस आनी आलेयशो फेर्नांदिस, हांचो उपकारी, कित्याक ज्या ज्या वेळार हांवें तांचो आदार मागला त्या त्या वेळार ताणी म्हाका आपलो पुरो सहकार दिला.

- मार्क द आरावजो

# ओपनिंग कोरस

## :भूंय-कांप त्रिव:

संवसाराचेर मनशा कुळाचेर येतात तीं मोडां
बुड्टी येवन बुडोन गेलीं बिल्डींगा-घरां
झड-मोड वारें जावन उमटोन पडले रूख-झाडां
सांगूंक जायना ह्या मुखार येत भिरांकुळ वरां

## कोरस:

1838 सांत फ्रान्सीसको शारांत वॉल्केनो जालो
वरीश्ट दोंगर फुटोन हजारांनी लोक हुलपोन मेलो
मार्क नांवाचो एकलो प्रिझावांत आसलो तो एकटोच उरलो
व्हड नशिबाचो म्हूण त्या मनशाक संवसार पाचारतालो.

(II)

जापान शारांत फामाद त्या देसांत भूंय-कांप जाता
फिलीपीन शार थंय भूंय-कांप जावन कितलोच लोक मरता
चिनाक गर्मेन जमिन उक्ती जावन खडपां फुट्टात
फाटीं लातूराक जावन लोक थंयसर भिवन दीस सारता

कोरसः

2000 वर्सा गुजराताक जावन काळजां दुखयलीं
जानेराच्या 26 दीस तो रिपब्लीक इस्कोलाचीं भुरगीं
भारताचो बावटो उबोवन भारताक सलाम करतालीं
जमिन उक्ती जावन 'जय भारत' म्हण बाबडीं मातयेंत गेलीं

(III)

भूंय-कांप जाता कितलोच लोक मरता भायल्या शारांनी
व्हडले दोंगर फुटोन बोबो मारल्यो सुकण्या जनावरांनी
सोदून काडूंक जायते उपाय घेतले सायन्टीस्टांनी
खंयच्या गांवांत आनी खंयच्या वेळार जायत गमना भावांनी

कोरसः

भूंय-कांप जावन अद्रुश्टां येवन उचांबळ जाला संवसार
मोडां येवन, जमिन फुटोन कितले गांव जाल्यात काबार
भूंय-कांप जावन शारांनी जमिन गेली घरां, लोक मेलो जावन फुगार
सवस्तकाय दिसता, गोंयचो सायब राखता आमचें गोवा शार.

*(देखावोः एक सुंदर आनी सोबीत घराबो जाकारियासाचो, आसून बरी बसपाची वेवस्था. मेजार एक फोन आनी एक नाजूक सोऱ्याचो जागो.)*

जाकारियस : मिस्टर तावारीस, तुवें सांगलां तें सगळें मानून घेवंक हांव तयार आसलों, जरी तर कंपनीन ह्या वर्सा फायदो करून दाखयलोलो जाल्यार.

तावारीस : सर, तूं म्हूणोंक सोदता की कंपनी लुकसाणात चलता म्हूण?

जाकारियस : तशें हावें म्हूणोकूच ना. पूण जितलो फायदो ह्या वर्सा जावंक जाय आसलो तो जांवक ना, हातूंत कामगार गुन्यांवकारी हें तूं बेस बरें जाणां. इतलेंच न्हय, कामगारांचे बेजबाबदारेक लागोन कंपनीत अपसयोग घडोन एक कामगार मोरोन गेला आनी एकल्याचे हात कातरुन गेल्ल्या कारणान कंपनीन तांकां कंपेनसेशन म्हूण चार लाख रुपया फारीक केल्यात.

तावारीस : पूण तें सगळें इन्शूरेंस कंपनीन लुकसाण भोगून घेतलां न्हय सर, आनी जरी तर कंपनीन परयां इतलें लुकसान भोगून घेतलें जाल्यार तें लुकसान जावन आसतेलें एक पांचव्या रंगाचो थेंबो एका अरिश्ट निळ्या सोमदिरांत.

जाकारियस : मिस्टर तावारीस, ह्या कामगारांक हावें कितें उणे केलां? तांच्या भुरग्यांक शिकपाक आधार, दुयेंत पडलेल्यांक दुडवांची मदत, आपलें बिराड करपाक कंपनीन तांकां घरां परियान दिलेलीं आसात. आनी इतलें तांचे पासत केलेलें आसतना ताणीं हे परीं वागप सारकें न्हय.

तावारीस : पूण सर, आयज वेता थंय म्हारगाय वाडत आसलेल्यान, बोनसांत वाड जावपाक कामगारांची मागणी जावन आसा.

जाकारियस : पूण हांव सांगतां की तांकां वाड मेळची ना. आनी जरी तर कोणाकूय हे कंपनींत काम करपाची खोशी ना जाल्यार तांच्यांनी व्हडे खोशेन राजीनामो दिवन वचूं येता.

तावारीस : आनी, समज सगळे कामगार संपार गेले जाल्यार तुजे कंपनीचें कितें?

जाकारियस : तर तूं म्हाका धमकी दिताय? (हांसता). पर्वा ना मिस्टर तावारीस, हांव, हे कंपनीचें फार्टी-फुडें पळयनास्तना ती बंद करून उडोवंक तयार आसा. हांवें म्हजो संवसार एकेच कंपनीचेर थारायललो ना... (ड्रिंक्स् काउंटरार वचून)... मिस्टर तावारीस म्हाका तुजे लागीं उलोंवक वेळ ना. आनीक कितेंय उलोवपाचें आसा जाल्यार उप्रान्त एपोयंटमेंट घेवन म्हाका कळोवंक जाता. NOW YOU CAN GO.

तावारीस : पूण सर...

जाकारियस : YOU CAN GO. (जाकारियसाचो मॉबायल फोन वाजता). (जाकारियस फोनार उलयता)... HELLO, GOOD EVENING DOCTOR. पावल्यार सुमार दोन वरां जालीं. हय. हय. FLIGHT DELAY जाली. NEW YORK AIRPORTआर सुमार पांच वरां उरलों... EVERYTHING IS FINE. I WILL SEE YOU LATER. डॉक्टर, तुवें हाडूंक लायलेलीं मॅगझिनस् हावें हाडल्यांत. ना... ना. व्हरपाक येवपाची गरज ना, हांव धाडून दितां... (हांसता)

YES. YOU CAN COME IN CASE YOU WANT TO JOIN ME FOR A PEG OF SCOTCH... OKAY... SEE YOU. (फोन दवरता)
(इतल्यान भितर सरता फादर विलफ्रेड)

फादर विलफ्रेड : हॅलो जाकारियस. कसो आसाय?

जाकारियस : एकदम बरो.

फा. विलफ्रेड: भोंवडी कशी गेली?

जाकारियस : बोरी जाली.

फा. विलफ्रेड: मारीया कशें आसा? आनी दोतोर कितें म्हूंटा?

जाकारियस : पयलेच पावटी जेन्ना आमी दोतोराक मेळोंक आमेरिकेक गेलेलीं, तेन्ना मारीयाचे फाटले रिपोर्ट्स पळोवन दोतोरान सांगलेलें की मारीया सत्तर टक्के आवय जांवक शकता म्हूण. देखूनूच हांवें ताचेर विश्वास दवरलो आनी ताचो ट्रिटमेंट चालू केलो. आतां तरी पळोवया कितें तरी बोरी खबर मेळटा जाल्यार.

फा. विलफ्रेड: पूण जाकारियस, मारीयाक आमेरीकेक एकसुरें सोडून तूं गोंयां कित्याक आयलो?

जाकारियास : दोतोरान मारीयाक जाता तितली 'रेस्ट' घे म्हूण सांगलां आनी ताचो 'ट्रिटमेंट' चालू असलोल्यान ताका थंयच रावचें पडलें. AND, NOW SHE IS UNDER ROUND THE CLOCK OBSERVATION. हांव रावपाचों आसलों. पूण म्हजे WESTERN ORE कंपनींत वातावरण सारकें नासलोल्यान हांवें परत येवपाचो निर्णय घेतलो. हें बोरें आसा..... तुजें सांग. तूं आमेरिकेक आनी गल्फाक वचून आयलाय. तर तुजी वियाज कशी जाली?

फा. विलफ्रेड: येसस्वी.... एकदम बोरी जाली. आमेरिकेक, हो म्हजो वावर पळोवन ताणीं म्हजी तोखणाय केली आनी इंदयेचे सुमार 15 लाख रुपया दिले. तोशेच, गल्फाच्या गोंयकारांनी तीन लाख रुपया एकठांय करून दिले.

जाकारियास : तर हो दुडू हाडूंकूच तुजी भोंवडी आसली?

फा. विलफ्रेड: होय. सद्दयाक आमचो 'प्रोजेक्ट' तयार जातलो जाल्यार आनीक तीस लाख रुपयांची गरज आसा. देखूनूच हांव तुज्या फुड्यांत आयलां. फूल ना पाकळी मेळ्ळी जाल्यार, आमचीं चिंतलेलीं चिंतनां वेगिनूच शार्थी पावतलींत म्हूण.

जाकरियस : हो येदो व्हडलो 'प्रोजेक्ट' तयार करून आनी वेव्हारांत घालूंक तुमी कोणाचेर पातेवन फुडें सरल्यात?

फा. विलफ्रेड: देवाचेर! तुमचे असल्या व्हड-व्हड धंद्याकार आनी परदेसांत काम करपी गोंयकार भावांचेर. आनी हाकाच लागोन हो आमचो 'प्रोजेक्ट' पंचात्तर टक्के पूर्ण जालोलो आसा.

जाकारियस : अपंग आनी उणे गिन्यानाच्या भूरग्यांक आसरो आनी तांचो सांभाळ करपाचो वावर तुमी सापसुभो तुमच्या माथ्यार घेतला. आमच्या सरकाराक तोर ते विशीं व्हडलेंशें कांयच पडलोलें ना.

फा. विलफ्रेड: आनी ताकाच लागोन आमी फुडें सरल्यात, हो 'प्रोजेक्ट' तयार कोरूंक, कित्याक, दुसऱ्या देसांनी असल्या फुटक्या नशिबाच्या भुरग्यां पासत जायतें केलेलें आसा आनी म्हाका भोरवंसो आसा तुजे लागच्यान सुमाराची तरी आमकां मदत मेळटलीच म्हूण.

जाकारियस : (हांसता) हा...हा...हा (ड्रिंक्साक घोंट मारता)... विलफ्रेड, सद्द्याक म्हजो दुसरो 'प्रोजेक्ट' चालू आसा, आनी थंय म्हजो खूब दुडू आडवोन उरलोलो आसा, देखून म्हजे लागीं आतां सद्द्याक घोडचें ना, फुडें पोळोवया.

## कांत - 1

जाकारियस : नाका जाल्लो पेज माथ्यार घेतला तूवें.
चिंतून बारीक पळे सांगलां तें हांवें.

फा. विलफ्रेड: फाटीं कित्याक सरताय मदत दिवंक घट्टा तुजे सवें
नोशिब फुटक्या भुरग्यांचें जिवित तुज्यान करूंक जाता नोवें

कोरस :

जाकारियस : सांगता तें तूं कित्याक सोमजोनाय
म्हज्यो अडचण्यो तूं मानून घेनांय.

फा. विलफ्रेड: कितलेंय सांगल्यार तूं आयकोचो नांय
वायट मोतीन नियाळताय बोरें करूंक चिंतिनाय.

फा. विलफ्रेड: जाकारियस, हो वावर आमी कोरतात तो मनशाच्या नोद्रेंत खूप खालतो जायत. पूण देवा मुकार मोल कोरूंक जायना तितलो. आनी ओसल्या कामाक मदत कोरता ताचेर देवाचीं साबार बेसांवां आसतलीं हातूंत मातूय दुबाव ना.

जाकारियस : WOULD LIKE TO HAVE A PEG? (फादर ना म्हूण आपली मान हालयता)... देवान बेसांवां घातल्यांत ती पुरो. कितें उणें आसा म्हाका म्हज्या जिवितांत?

फा. विलफ्रेड: जाकारियस, मनशालागीं कितलेंय आसूं, पूण तरीय ताका दिसता आपल्याक कितें तरी उणें आसा म्हूण, घडये तुकाय तुज्या जिवितांत...

जाकारियस : होय. हांव जाणां म्हाका भुरगें ना म्हूण...

फा. विलफ्रेड: आनी ह्याच भुरग्याक लागोन तूं लाखांनी खर्च करून आमेरिकेक वेताय. जरी तर देवाचें बेसांव आसलेलें जाल्यार, तुमगेर हांगाच भुरगें जांवक वेळ नाका आसलो.

जाकारियस : पुरो कर विलफ्रेड. पुरो कर, हाचे वयर आनीक भासा-भास नाका. PLEASE STOP IT.

फा. विलफ्रेड: तुका वायट दिसलें. तुका ओपमान करूंक हांवें अशें म्हणोंक ना. पूण तुज्या दोळ्यां मुकार काळो पड्डो आसा अशें म्हाका दिसलें, देखून सोत कितें तें हांवें तुका उक्टावें केलें.

जाकारियस : तूं म्हजो व्हडलो भाव. म्हजें बरें वायट सांगोंक तुका अधिकार आसा. हांतूंत कांयच वायट ना. पूण एक मात तुका हांव सरळ

सांगोंक सोदता : जें तूं म्हजे लागीं त्या अपंग आनी उण्या गिन्यानाच्या भुरग्यां पासत मागूंक आयलाय तें दान म्हज्या लागीं तुका दिवंक घडचेंना.

फा. विलफ्रेड: आयज परयान हांव भितर सरलोल्या शारांत, देसांत आनी घरांत हांव रित्या हातांनी भायर सरोंक ना. पूण आयज खुद्द म्हज्या भावाच्या घरांतल्यान म्हाका निराशी जावन भायर सरचो पड्टा.

जाकारियस : म्हाका तुमचें हेंच बरें दिसता. तुमी फक्त डोनेशन्सूच घेंवक. हीं 'डोनेशनां' घेवन तुमी कसलीं अजापां केल्यांत?

फा. विलफ्रेड: सगळेच म्हणटात, आमी पाद्री आनी माद्री 'डोनेशनांच' घेंवक म्हूण. पुण, आमीं हीं 'डोनेशनां' घेवन संवसारांतले खंयच्याच धर्माच्या वडिलांनी करूंक ना तीं कामां करून दाखयतात. आयज कोण नासलेल्या जाण्ट्यांक आनी पिडेवंताक तांकां आसरो दिवन तांची सेवा करतांव. रस्त्यार सांडलेल्या भुरग्यांक तांका वेंगोवन तांकां फावो तें शिकप दिवन बरो रस्तो दाखयतांव, अपंग आनी उण्या गिन्यानाच्या भुरग्यांक जांकां हो समाज खालते नद्रेन पळेता तांकां ह्या देसाचे बरे नागरीक करूंक वावरतांव - आमी पाद्री आनी माद्री आसात खरे, पूण हो वावर फुडें व्हरोंक ह्या 'डोनेशनांची' आमकां गरज.

जाकारियस : दुडू हे कोश्टांचे आसतात. ते दुसऱ्या कोणायलागीं मागोंक सोंपें. पूण दितल्याक खूब आवगड लागता, देखून राग धरिनाकाय, जरी तर तुका कसलीय गरज आसा जाल्यार म्हज्या फुड्यांत जाय तेन्ना येवं येता पूण दुसऱ्यांचे खातीर मागोंक आयलो जाल्यार मात तुका म्हजे लागीं केन्नाच कांय मेळपाचें ना.

(इतल्यान फोन वाजता)... HELLO, YES... JACKARIAS SPEAKING... DR. SCHUBERT... WHAT?... THANK YOU DOCTOR. THANK YOU.... BUT WHERE IS MARIA?.... OKAY DOCTOR, I WILL SEE YOU LATER.

फा. विलफ्रेड: कोणाचो फोन आनी कसली खोशेची खबर?

जाकारियस : A CALL FROM AMERICA. MARIA HAS CONCEIVED. मारीया आवयपणाच्या भेसार आसा. THANK YOU DOCTOR, THANK YOU. तुवें कोणाचेच लार्गी करूंक जांवक ना तें अजाप करून दाखयलें. THANK YOU DOCTOR. THANK YOU.

फा. विलफ्रेड: आर्गां तुका धनया.

(पयलो पड्डो सोंपता)






(23 वर्सां उप्रान्त)

*(देखावो - जाकारियासाचो घराबो)*

लिपू : ह्या घराब्याचें काम म्हूण थोडें रे? दिस-रात मरचें पडटा आनी पागामेंत इल्लेशे चणे कशे दिता. देवान हांकां फोंटल्यार्नी दिलां तरूय हांचें मादएं केन्नाच भरना. जायतीं वर्सां देवान हांकां भुरगें दिनासतना दवरलेलीं. कित्याक दिलां, कोण जाणां.

(फोन वाजता)

हो आनी मिण्टा-मिण्टाक रडोंक लागता. ओगी राव रे. कोण ना हांगा. काडून जमनीर मारतलों. (फोन वाजत रावता) हॅलोऽऽ हॅलोऽऽ

क्ष : GOOD MORNING SIR...

लिपू : कितें जालां?

क्ष : सर, तुवें कालापूरच्या भुरग्यांक 'बीट शो'-क 25 कार्टन बियर दिंवक भासायलेलें...

लिपू : होय.

क्ष : ते व्हरोंक आयल्यात. दिंव तांकां?

लिपू : 25 न्हय. 40 दिवन सोड.

क्ष : OKAY SIR.

(फोन दवरून) पडोंदी त्रासांत पडटा ताका. आमकां बेजार करता. फुडले पावट फोन करचें आदी चार फावट चिंतचें पड्टलें.

मॅथिव : (रूपडेकार कसो न्हेसून भितर सरता) आरे, आरे लिपू, खंय तूं?

लिपू : हें आनीक कितें रे? शेतांतलो जुदेव कसो. खंय वचोंक भायर सरलाय?



मॅथिव : विसरलोय, विसरलोय?

लिपू : कितें रे?

मॅथिव : रातीं तूं कोपार उलयतालोय?

लिपू : जालां तरी कितें?

मॅथिव : आयज कार्नावाल म्हूण विसरलोय?

लिपू : आरे, रे रे रे.....

मॅथिव : आरे रे रे रे रे? घे हें आंगवस्त्र. वेगीं घाल. घरा घरांनी या. कांतारां म्हूणोया. 'ट्रे' भोंवडावूं या आनी कार्नावाल गाजोंवया.

लिपू : होय. चल या. आयज कामाक सुटी. पूण ते आदीं पयलें कांतार हांगा म्हूणोन आमच्या कार्नावालाची सुरवात हांगा करूं या.

**कान्त - 2**

आयज दीस वर्तता कार्नावालाचो  
हांसोन नाचोन सारुंया हो दीस मौजेचो  
जायते जाण नोकोत वालोर ह्या पावडराचो  
चेडवांचेर मारुन फोदोव घालुंया तांचो.

कोरसः

तूं मार रे हाचेर
तूं मार रे ताचेर
ही ती आंटी पोयता इल्लो मार रे तिचेर
सगलीं तीं गेलीं, मारुंया कोणाचेर?
हांव मारतां तुजेर, तूं मार म्हजेर.

मॅथिव : बरें धर तर (कांतार म्हूणटा आनी कांतार सोंपल्या उप्रान्त) (कांतार चालू आसतना सेक्रेटरी येवन ऑफीसांत बसता.)

लिपू : शी. जानोत आं, जानोत.

मॅथिव : आमी म्हूण बरें कांतार कोरतात न्हय रे लिपू?

लिपू : तें आनी सांगोंक जाय?

मॅथिव : इतलेंय आसतना सोयरीगती कित्याक येनात लिपूबाब?

लिपू : होय. आमी कांतार करतात बरें; न्हेसतात बरें, जोड्टात बरे.

मॅथिव : होय. आनी दिसतात काय बरे (लिपू मॅथिवाक पळयता आनी मॅथिव बायजन कशें हांसता)

लिपू : होय सारकें (मॅथिव आनी लिपू सेक्रेटरीक पळयतात) मॅथिव, आयज कार्नावाल फुलोवंक आमचे बरोबर एक चेडूं जाय आसलें.

मॅथिव : होय. होय सारकें.

लिपू : हें पात्रावांलें सेक्रेटार. तुका सारकें पिशें जाता. ताका, येता काय विंचार.

मॅथिव : होय. आवयस्! खरेंच सांगता रे तूं?

लिपू : होय रे. तूं सत मानता जाल्यार मांद. ना जाल्यार मांदूं नाका. (मॅथिव सेक्रेटरी म्हऱ्यांत वेता)

(मॅथिव मात्सो फुडें येवन)... हाका ताणें नाचोंक शिकयलो जाल्यार शिकयलो.

मॅथिव : बाँ दीस दिंव तुका. हॅलो, बाँ दीस दिंव तुका (सेक्रेटरी विस्त मारता आनी परत काडटा) आयज कार्नावाल.

सेक्रेटरी : तर म्हाका कितें कर म्हूण्टाय?

मॅथिव : आमचे वांगडा यो मुंगो कान्तारां म्हूणपाक.

सेक्रेटरी : तुमचे बरोबर उलैयतना, तुमचे वांगडा कान्तारां करतना कोणेय पळयलें बा जाल्यार म्हज्यो सगल्यो सोयरिगती मोडटल्यो.

लिपू : पर्वा ना. आमी आसात न्हय?

सेक्रेटरी : तुमी??? तुमकां कोण घांटयांच्यो तरी सोयरीगती घेवन येवपाचो आसा मुरे?

लिपू : आवय. आवय कितें धरलां गो तुवें आमकां?

सेक्रेटरी : आनीक चड उलौंवक नाका. मॅडामिक रोकडेंच कंपलॅन दितेलीं.

लिपू : कंपलॅन दी ना जाल्यार तिका पियेवपाक कंप्लान दी आनी तूंवूय एक ग्लास पिये; काझार जांवचे आदी घट्ट जांवक.

सेक्रेटरी : मॅडम, मॅडम (अशें म्हणत नीट स्टॅरकेसी लागीं वेता)...

लिपू : चल या रे आमी.

मॅथिव : आमचे बरोबर कांतार करुंक तुक़ा केन्नाच चान्स दिवचे नात (वेता)

(सेक्रेटरी परत येवन आपल्या जाग्यार बसता)

(फोन वाजता)

सेक्रेटरी : HELLO,.... YES..... NO. NOT YET (फोन दवरता) (मॅडम येता) GOOD MORNING MADAM.

मॅडम : GOOD MORNING केन्ना आयलें?

सेक्रेटरी : येता थंयच आसा मॅडम.

मॅडम : बॉसाचो फोन आयलोलो?

सेक्रेटरी : नो मॅडम.

मॅडम : लिपू खंय गेलो?

सेक्रेटरी : तो आनी मॅथिव कार्नावाल फुलौंवक गेल्यात.

मॅडम : गेले? काल मॅथिव फाटीक लागलोलो आयज कामाक आसचे नात म्हूण सांगोंक. तांचेंच आपलें बरें. जोडली पोड, मोडली पोड. कसलेंच 'टेन्शन' म्हण्टात तें केन्नाच ना तांकां. रानांतलीं झाडां कशीं देव शिंपता तांकां. (जाकारियस भितर सरता)

जाकारियस : मारीया, कितें खबर आसा सिडनीची?

मारीया : ना. हांव ताका सकाळीं सावन फोन करीत आसां.

जाकारियस : म्हाका ताचें हेंच बरें लागना. आमकां 'टॅन्शन' जातेलें म्हूण खबर ना ताका? कित्या पासत उशिर जाला तो फोन मारून सांगपाक जाय न्हय? ताची ही कसली रीत ती पळयली?

मारीया : गाडी धाडल्या तुवें एअर पोर्टार?

जाकारियस : दोन धाडून दिलेल्यो आसात. रोजी....

सेक्रेटरी : YES SIR.

जाकारियस : हो गिफ्ट सिडनी येतांच म्होज्या हातांत दी.

सेक्रेटरी : YES SIR. (फोन डायल करता)

मारीया : तुवें ड्रायव्हराक चत्रायेन चलौंवक लायलां न्हय?

जाकारियस : चत्रायेन चलौवंक लायलां... इतलो तेंप तो गाडयो चलयना?

मारीया : त्या पासत न्हय. आयज कार्नावाल. वाटेर भुरगे रंग बा मारीत आनी ते आबुज. अशे परीं आदीं जायते 'एक्सीडेण्ट' जालेले आसात.

जाकारियस : म्हाका हो सिंतिदूच ना. BETTER I GO TO AIRPORT. FLIGHT 1.30 पावपाची आसली आनी आतां TIME पळे...

सेक्रेटरी : सर, 'फ्लायट' पावल्यार चाळीस मिण्टां जालीं खंय.

जाकारियस : WHAT? 40 MINUTES? आनी सिडनी आजूनूय घरा पावंक ना? TRY TO CALL HIM ON HIS MOBILE (मारीया दुसरो फोन डायल करून आपल्या भावाक मारता) तूं कोणाक फोन मारताय?

मारीया : म्हज्या भावाक. HE IS CLOSE TO AIRPORT.

जाकारियस : पूण FLIGHT LAND जाल्यार चाळीस मिण्टां जालीं खंय.

मारीया : हांव जाणां (फोनार उलयता) हॅलो रायन, हांव मारीया उलयता..

रायन : सिडनी पावलो?

मारीया : ना. आजूनूय घरा पावोंक ना. FLIGHT पावल्यार अर्देवर मायज जालें खंय. तूं खंय आसा?

रायन : वाटेर, तुमगेर येवंक भायर सरलां.

मारीया : मात्सो पर्थून वल्त मार आनी एअर पोर्टार वच आनी खबर काड किर्ते जालां तें.

सेक्रेटरी : सर, ताणे ताचो मॉबायल बंद दवरलोलो आसा.

जाकारियस : पूण, पूण, पूण कित्या पासत? BETTER I GO TO AIRPORT. रोजी, चौकीदाराक INTERCOMर सांग की एक गाडी भितर सोडून दी म्हूण.

मारीया : जाकारियास, तूं वचोनाकाय. रायान आमगेर येवंक वाटेर आसलो, हांवें ताका वल्त मारून एअर पोटार वचूंक सांगलां; चौकशी करूंक.

(भायल्यान हॉर्न वाजता. तिन-चार खेपो, मारीया दारार वेता आनी मात्सो वेळ 'सिरियस' रावून भायल्यान पळयता) (पापा, मामा भायर वेतात. उपरांत रोजी दारार वचून लिपून कशें भायर पळेता; त्या उपरांत वचून आपले सुवातेर बसता. सिडनी, आपले बरोबर आयलेल्या विदेशी इश्टांक घेवन भितर सरता).. जाकारियस, IT'S SYDNEY, SYDNEY. (भायर धांवता)

जाकारियस : सिडनी आयलो. (भायर धांवता)

सेक्रेटरी : हार्ची हीं नाटकां खरीं पूण आमचे हाल.

सिडनी : WELCOME LUTTCHI, WELCOME. CONSIDER THIS TO BE YOUR HOME.

(ताचो इश्ट, हातांत एक बॅग घेवन भितर सरता)

लुट्ची : VOW! WONDERFUL. WONDERFUL. (इश्ट सगळ्या घरार नदर भोंवडायता. उपरांत ताची नदर रोजीचेर पडटा.)

सिडनी : PAPA'S PERSONAL SECRETARY. (इश्ट गोमटी हालयता. दुसऱ्या अर्दान पळयता) THIS IS OUR BEDROOM. UPSTAIRS IS THE GYM. AND HERE (बार्राक बोट दाखोवन) IS THE PLACE TO GO IN SPACE (दोगूय हांसतात) LUTCHI, IT'S YOUR HOME. YOU CAN GO IN AND HAVE A WASH.

लुट्ची : YES SYDNEY. WHAT ABOUT YOU?

सिडनी : I WILL. LATER.

लुट्ची : OKAY, OKAY (बॅग घेवन भितर वेता. सेक्रेटरी येवन सिडनीक 'विश' करता.) (उपरान्त सिडनी वचून पांय सोडून सोफार बसता. मामा आनी पापा भितर सरता. तांचे फाटल्यान ड्रायव्हर सिडनीची SUITCASE हाडून सालांत दवरता.)

(सेक्रेटरी गिफ्ट काडून जाकारियसच्या हातांत दिता.)

मारीया : SYDNEY, THROUGHOUT YOUR JOURNEY, WHY DIDN'T YOU KEEP IN TOUCH WITH US?

सिडनी : I WANTED TO GIVE YOU ALL A SURPRISE.

मारीया : पूण तूं नोकोय आमकां 'टॅन्शन' जातेलें म्हूण?

सिडनी : THAT'S A BEAUTY PART OF IT, KNOW MAMA.

पापा : तें आतां सगलें सोड.

मारीया : तें आतां सगलें सोड? तूं न्हय तो मात्सो वेळ कोमे राय कसो हांगा-थंय नाचतालोय तो?

पापा : सिडनी, आयज तुज्या जल्माचो दीस. खूब म्हत्वाचो आनी खुश्यालकायेचो. आनी ह्या पासत जायते कार्यक्रम दवरल्यात आयच्या दिसा. आतां सकाळीं आमच्या कुंडयच्या NOVA STEEL कंपनीचें उद्घाटन तुज्या हातांनी. सांजेच्या चार वरांचेर आमची नवी कंपनी VERNA ELECTRONIC CITY, जी येवपाची आसा ताची बुन्याद आयज घालतात आनी 7 वरांचेर YOUR BIRTHDAY BASH AT TAJ HOLIDAY VILLAGE. चल बाबा सिडनी, RELAX FOR A WHILE AND GET READY FOR THE INAUGURAL FUNCTION.

सिडनी : YES PAPA.

जाकारियस : आयज तुज्या जल्माच्या दिसाक हो आमचो धाकटूलोच 'प्रेझेंत' तुका.

सिडनी : THANK YOU PAPA. पूण कितें हें?

पापा : उगडून पळे. (पेपर फोडून चावी काडटा)

सिडनी : कसली गाडी पापा?

पापा : MERCEDES, LATEST MODEL.

सिडनी : कितलें मोल जाता हें गाडयेचें पापा?

पापा : फकत चाळीस लाख.

(फोन वाजता. मारीयाच्या रुमांत फोन वाजता; मारीया वयर वेता.) OKAY BABA. GET READY SOON.

सिडनी : YES PAPA. (SUITCASE घेवन आपल्या रुमांत वेता)

पापा : रोजी

रोजी : YES SIR.

पापा : DON'T ENTERTAIN ANY BUSINESS TRANSACTIONS TODAY. हांव BUSY आसां म्हूण सांग.

रोजी : YES SIR.

सिडनी : (आपल्या रुमांत सावन भायर सरून) LUTTCHI, I AM FEELING BIT UNEASY. I AM FEELING UNEASY.

लुट्ची : WHAT IS THE PROBLEM?

सिडनी : मामा, पापा, म्हाका कितें जाता.

लुट्ची : WHAT IS THE PROBLEM?

सिडनी : I AM NOT FEELING WELL.

पापा, मामा : बाबा कितें जाता तुका?

सिडनी : आय... आय. मामा, पापा, म्हज्या कुडीच्या सगल्या सांद्यांक भाले तोपतात कशे दिसता म्हाका.

(सिडनी सकल पडटा)

जाकारियस : रोजी, बेगीन दोतोराक फोन कर.

मामा,पापा : बाबा, बाबा.....

जाकारियस : ROSY, TELL HIM IT'S EMERGENCY.

रोजी : हॅलो डॉक्टर......

('सायरॅनाचो' आनी 'एंब्यूलेन्सा'चो आवाज)

(दुसरो पड्डो सोंपता)

# तिसरो पड्डो



*(देखाव : जाकरियसाचो घराबो)*

*(सेक्रेटरी ऑफीसांत बसून आसा. फोन वाजता.)*

रोजी : HELLO! GOOD MORNING SIR... YES SIR. YES SIR.... OKAY SIR, OKAY (सेक्रेटरी दोन फायली घेवन चलूंक लागता. तेन्नाच मॅथिव भितर सरता. लांब केंस घालून आनी बरोच 'मेकअप' करून)

मॅथिव : VIVA NOVIDADE..... VIVA NOVIDADE..... बाँ दीस दिंव तुका.

रोजी : हो खंयच्या पिंजऱ्यांतलो माकोड सुटोन आयला?

मॅथिव : गोंयच्या पिंजऱ्यांतलो. तो 'जापानिस' पिंजऱ्यातले माकोड आसा भितर.

रोजी : तुमच्या माकडांक आमी पळोवंक भोंवताय?

मॅथिव : आमचे माकोड आनी तुमचे माकोड. गोंयचे माकोड आनी भायले माकोड. सगळे एकूच. फकत पळोवंक मात्शे दुसरे दिसतात. माकडांनी नदर मारुंक जाय तांचेर.

रोजी : SHUT UP. वेळ ना म्हाका. ना तर तुका दाखोवपाचें हांव कितें तें.

(वता)

मॅथिव : नाका बाय. आतां दाखयनाका. फुडाराक कितें तें पळोवचें. आतां आमी नावीदादीचें फेस्त करपाक वेतांव. हो आमचो जापानिस आयलो तोच 'गूड' 'गूडफूड' म्हूण्टा तेंच आयकोन पुरो जायना तुका आनीक पळोवंक वेळ खंय आसा?

(फोन वाजता)

(लागांनी उलयता) बाबा, आतां वाजो नाका हां, कोण ना. आमची सेक्रेटरी आतांच गेल्या... बंद जायना? बरें. घेंवूया. नशिबांत पयलेच खेप फोन म्हूण्टात तो घेतां (परतो धरता) ...HELLU .....HELLU.....HELLU.

(लिपू भितर सरता) आरे पापया आयकोंक येना. तूं म्हज्या तोंडा कडेन उलयता. हांगा उलय. हांगा म्हज्या तोंडाकडेन उलय.

लिपू : आरे पिश्या, फोन कसो धरलाय? पिसो कसो. हांगा दी. (फोन काडून घेता) HELLO..... आहा........HELLO..... आहा लुट्र्ची, WHERE ARE YOU? OKAY. COMING. MATHEW IS HERE....OKAY. COMING. चल या.

मॅथिव : आनी लुट्र्ची?

लिपू : तो आमकां ग्राउंडा लागीं रावता खंय COCONUT BREAKING COMPETITION चालू आसा खंय. चल या. नाल्ल घेतल्यात मुरे?

मॅथिव : हय नाल्ल घेतां. आमी नाल्ल रोवपाचें सोडलां पूण खावपाचें सोडचें न्हय. तो आनी कितें रे? आमकां हांगा आपयता आनी आपूण दुसरेकडेन वेता.

लिपू : ENGLISH धुकर कशे ते. खंयच्या खंय पावतात.

मॅथिव : होय.

लिपू : चल. चल या.

(फादर विलफ्रेड येता)

फा. विलफ्रेड : मनशा जिवित तुका दिलां देवान
पूण हें सगलें विसरून भोंवताय तूं गोर्वान
विसरताय थोडेच दीस म्हूण ह्या संवसारांत
उजवाड आमी हाडूंक जाय दुसऱ्याच्या जिवितांत.

**कोरस :**

देखून भावा तूं सदांच मतींत धर
गिरेस्त जाल्यार दुबळ्यांचो उगडास कर
व्हडविकायेचेर भावा घालून तो विसर
जेझूच्या पावलांनी चलूंक तू निचेव कर.

फा. विलफ्रेड : (फोन येता) होय. आसा. सद्दयाक तें न्हिदलां. CAN YOU CALL UP LATER AN HOUR? कित्याक तिका रातची न्हिद सारकी पडोंक ना.

(मारीया न्हिदेंतलें उठ्टा)

मारीया : कोणाचो फोन आयलोलो?

फा. विलफ्रेड : सिसिलीयाचो. तिणें उपरांत फोन करतां म्हूण सांगलां.

मारीया : सिडनीची खबर आयल्या?

फा. विलफ्रेड : ना. मारीया. येतेली. (मारीया रडटा) मारीया, मनश्याच्या जिवितांत असले प्रसंग येतात तेन्ना तांकां फुडो करपाक आमी देवालागीं आमकां शक्ती आनी बळ दी म्हूण मागूंक जाय.

मारीया : तीन म्हयन्याची TRAINING करूंक गेलोलो तो. ते तीन म्हयने म्हाका तीन वर्सां जालेल्या परीं दिसलीं. पूत येतांच खूब खोशी जालीं, चिंतून की आतां तरी म्हजो पूत म्हज्या सांगाताक सदांच आसतलो म्हूण. पूण आतां पंदरा दीस जाले ताका पळोवपाक

न्हय म्हूण ताचो आवाज पर्यान आयकूंक मेळूंक ना. हांव फटोवलीं.

फा. विलफ्रेड : ना मारीया, तूं फटवंक ना. तुजीं चिंतनां तुका फटयतात. तीं तुका भरवंशाची दिशा दाखयनात.

मारीया : एकटोच पूत तो म्हजो. ताचे विणें हे जिणेक कसलो अर्थ आसा? लग्न जावन पांच वर्सां उप्रान्त जल्मल्लो तो म्हजो पूत. जरी तर ताका कितेंय वायट जालें जाल्यार (रडटा)

फा. विलफ्रेड : धीर घे मारीया. धीर घे. सिडनी बरो जातलो हांतूत मातूय दुबाव ना. पूण थोडे दिस लागतले.

मारीया : जाल्यार ताका एक भेट करूंक ते म्हाका कित्याक दिनात? हांव जावन आसा ताची आवय.

फा. विलफ्रेड : मारीया, ताचो 'त्रिटमेंट' चालू आसलोल्यान सिडनीक दोतोराच्या बगर आनीक दुसऱ्यांक कोणाकूच मेळूंक बंदी घातलेली आसा.

मारीया : पूण कित्याक? अशें कितें जालां म्हज्या पूताक, जे वरवीं ताका एक कैदी कसो त्या होस्पीटलांत बंद करून दवरलेलो आसा? सांग.

फा. विलफ्रेड : जेन्ना एक पिडेवंत, पिडेन कश्टवता, तेन्ना ताका दुसऱ्याच्या आधाराची आनी ताचे फामिलीच्या सांगात्यांची चड गरज, पुण कांय वेळा अशें करूंक दोतोर मनाय करता, कित्याक त्या पिडेवंताचें दुवेंस दुसऱ्यांक जावपाची शक्यताय आसता तेन्ना.

मारीया : पर्वा ना, ती पिडा म्हाका आयली जाल्यार. पूण आयज म्हाका म्हज्या पुताक मेळूंकच जाय. (इतल्यान भितर सरता जाकारियस आनी ताचे वांगडा डॉ. नाडकर्णी) (जाकारियस मारीयाक पळेता)

जाकारियस : मारीया.

मारीया : जाकारियस, म्हाका म्हज्या पुताक पळोवंक जाय.

जाकारियस : मारीया, फाल्यां ताका 'डिसचार्ज' करतात. भियेवपाची कसलीच

गरज ना.

मारिया : पूण म्हज्या पुताक कितें जालां?

जाकारियस : मारिया, थोडो वेळ शांत जा.

मारीया : म्हाका म्हज्या पुताक मेळूंक जाय, म्हाका म्हज्या पुताक मेळूंक जाय. (मारीया भितर वेता. तिचे फाटल्यान जाकारियस.)

डॉ. नाडकर्णी : GOOD EVENING FATHER.

फा. विलफ्रेड : GOODEVENING...डॉक्टर, सिडनी थांय कसलो IMPROVEMENT आसा?

डॉ. नाडकर्णी : फादर, 'केस' अधिक आनी अधिक गंभीर जायत वेता.

फा. विलफ्रेड : आनी, ताचे TESTS कितें दाखयतात?

डॉ. नाडकर्णी : वैझुकी मळार जे रक्ताचे TESTS करपाक जाय तितलेय केल्यात पूण आजून मेरेन कांयच येस मेळूंक ना.

फा. विलफ्रेड : पूण डॉक्टर, आतां शेवटाक कितें जालां?

डॉ. नाडकर्णी : फादर, वैझांक एक दुबाव पडला...

फा. विलफ्रेड : दुबाव?

डॉ. नाडकर्णी : ते म्हण्टात की सिडनी तीन म्हयने सिंगापूर आसलोल्यान ताचे कुडींत एक आठवेच तरेचो 'व्हायरस' (विशाणू) भितर येवंक शकता. तीन वर्सां फाटीं ह्याच सिंगापूर देशांत असलो 'व्हायरस' सांपडलेलो. ह्या विशाणूचो आनी तीन वर्सां फाटीं सांपडलेल्या विशाणू वरवीं लागपी दुयेंसाचीं चिन्नां एकूच आसलेल्यान हो दुबाव उपरासता.

फा. विलफ्रेड : तीन वर्सांचो हो 'व्हायरस' मरून केन्नाच काबार जालो आसतलो न्हय?

डॉ. नाडकर्णी : NO FATHER असलो 'व्हायरस' केन्नाय उत्पन्न जांव येता.

फा. विलफ्रेड : तर कसलें हें दुयेंस?

डॉ. नाडकर्णी : MYSTERIOUS! वैझुकी मळार ह्या दुयेंसाचो सोद आजून मेरेन कोणेच लावंक ना. हें दुयेंस, आमच्या दोतोरांक एक आव्हान - एक CHALLENGE.

फा. विलफ्रेड : पूण आमचे दोतोर कितें म्हण्टात?

डॉ. विलफ्रेड : सद्‌दयाक हे विशीं कांयच म्हणूंक शकनात, कित्याक आमी वाट पळोवन रावल्यात एका निमाण्या REPORTआची, जो, डॉ. रॉडनी, HYDERABADसावन घेवन येवपाचो आसा. हो गोंयकार दोतोर, SINGAPORE आसतालो. ताणे तसल्या दुयेंसाच्यो दोन 'केसी' हातांत घेतलेल्यो. आमी फक्त देवालागीं मागपाक जाय की तो TEST, NEGATIVE जाल्यार पुरो म्हूण.

फा. विलफ्रेड : (मात्सो ओगी उरता. तकली हालयता)

डॉ. नाडकर्णी : फादर, एक बुड्टलें तारुं बुडना जावंक ते चलोवप्यानीं जाता तितले प्रयत्न करूंक जाय. आनी इतलेंय करून तें सालवार करूंक जायना जाल्यार तारवार आसलल्यांनी आपलो जीव आबालार करून कसलोच आदाव ना.

फा. विलफ्रेड : (ओगी रावता) हांव फक्त चिंततालों की कसली बुझवण ताच्या आवय-बापायकं दिवची ती, ह्या तांच्या आकांताच्या वेळार. ह्या दिसांनी तांच्या सांगाताक रावतलो म्हळ्यार म्हज्या लागीं घडना, कित्याक म्हजी बदली CANADA देसांत जालेल्या कारणान म्हाका जाता तितले बेगीन थंय वचूकूंच जाय.

(इतल्यान जाकारियस भायर सरता. दोळयांनी दुकां भरलेलीं आसतात)

(फोन वाजता)

डॉ. नाडकर्णी : HELLO..... Dr. HEGDE SPEAK... YES. YES NOW. DON'T BE UPSET. डोज दिला. OKAY. GIVE IT FROM ME. TIME TO TIME. YES. YOU DON'T HAVE TO WORRY. I SHALL BE BACK IN NEXT HALF HOUR. YES. YES. YES. OKAY.

फा. विलफ्रेड : दोतोर, कोणाचो फोन?

डॉ. नाडकर्णी : आमी हॉस्पिटलांतल्यान भायर सरल्या उपरांत सिडनीचो ताप एकदम चड वाडलो खंय. पूण, आतां वखदां दिवन खूब उणो जाला. (दोतोर रॉडनी भितर सरता)

जाकारियस : HELLO डॉक्टर, आमी तुजीच वाट पळयत आसले. तूं केन्ना आयलोय? (जाकारियस भितर सावन भायर सरता)

डॉ. रॉडनी : पावता थंयच आसा. AIRPORTआर सावन नीट हांगा आयलां.

जाकारियस : डॉक्टर, 'रिपोर्ट' हाडला?

डॉ. रॉडनी : हय. घेवनूच आयला.

जाकारियस : डॉक्टर, कितें मेवलां म्हज्या पूताच्या रिपोर्टाचेर?

डॉ. रॉडनी : तूं वडिल ह्या घराब्याचो. आबालार जाय नाकाय. ह्या वेळार तुवें घट रावंक जाय मिस्टर जाकारियस. तुज्या पूताच्या रक्तांत जो 'व्हायरस' सांपडला, तो आनी सिंगापूर देसांतल्या दुयेंसाचो 'व्हायरस' एकूच म्हूण ताच्या रक्ताची ANALYSIS सिद्ध करता.

डॉ. नाडकर्णी : IT'S POSITIVE (आपलेच भितर म्हणटा.)

जाकारियस : पूण हो कसलो 'व्हायरस'?

(मारीया दारार येवन उबें रावता आनी आयकता.)

डॉ. रॉडनी : एके आथवेच तरेचो. असल्यो 'व्हायरस' केसी आख्या संवसारांत फक्त सातूच उजवाडाक आयल्यात.

जाकारियस : YOU MEAN TO SAY DOCTOR, हे दुयेंस कुरार करूंक जायना म्हूण?

डॉ. रॉडनी : मिस्टर जाकारियस, सद्द्याक ना, ह्या मनश्याच्या कुडींत रिगलोलो जंतू कशे परीं मारून उडोवचो हो प्रयत्न संवसारांतले व्हडले SCIENTIST आनी वैज दीस-रात वावरतात. पूण तांच्या प्रयत्नांक आजून मेरेन शंबर टक्के येस मेळूंक ना.

जाकारियस : डॉक्टर, ह्या म्हज्या पूताचो जिव तुज्या हातांत आसा. हांव तुज्या पायां पडूटां, म्हज्या पुताक सालवार कर, म्हाका जाय म्हजो पूत जिवो उरलेलो, ताका कशेय परीं सालवार कर डॉक्टर.

डॉ. रॉडनी : ताका सालवार करूंक म्हजेच हातांत कसलोच उपाय ना. देवा लागीं माग. देवाक जाय जाल्यार कितेंय घडोंक येता. वैज्ञुकी नदरेन, ह्या दुयेंसाचो इतिहास पळेत जाल्यार असलें दुयेंस जातल्या सात पिडेवंतांमदले फक्त दोगूच पिडेवंत जिवित आसात.

मारीया : ना...... (मारीया व्हडल्यान किळांच मारता)

(पड्डो पड्टा)

विसंव

## चार सतां

.....सोलो

बारीक चिंतून नदर मारीत तर आमच्या जिविताचेर
निमणीं सतां केल्लीं आसात आमकां मार्काचेर
जांव तूं गरिब वा गिरेस्त कोणूय जांव तूं धर्माचेर
तीं सतां आठापलेलीं आसात सर्गिंच्या रसत्याचेर.

**कोरसः**

पयलें सत तें मरण येतकच घूट आमचो लिपयता
कितलेंय धांपून दवरल्यार रावना वेळ येतच आपयता
चोरा परीं तें भितर सरन फॅमिलीक तशें घरच्यांक दुख दिता
सगळें तुका रावत पूण मरण रावना फटयता.

(II)

दुसरें सत मरतोच आमी देवाक दिंवक जाय झट्टी
केन्नाच कातरी नाकाय दुसऱ्यांच्या घराची वाल चट्टी
कुमसार कर देवा लागीं माग पयस कर दुसऱ्याच्यो राटी
मरतोच आमचो संवसार क़ाबार सिमितरींत रावता माती

कोरसः

बरें करून मरशी तर कोणूय उगडास करतलो
बरो मनिस मेला म्हूण काळजांत दुख धरून रडटलो
पेल्याक तुज्या चिंत करूंक बरें सरगार तुका जागो मेळटलो
सोड तूं आशा संवसाराची जरूय तूं सुख भोगतलो.

(III)

पेल्याक बरें करचें म्हूण आसा आमच्या खिस्तांव धर्मांत
पातकां आधारशी तर तूं सासणाक ल्हासतोलोय इफेरनांत
थोडे दुसऱ्यांक नागोवन सुख भोगतात ह्या संवसारांत
असल्या मनश्यांक देव सरगार घेना ल्हासता त्या येमकोंडात

कोरसः

बारीक चिंतून पयशी तर चारूय वजनादीक हीं नवलां
वायट बरें तें तुज्या हातीन आसा चड पयस वचंक नाका
नियाळ करून पळय हीं सतां चार लागू जातात तुका तशीं म्हाका
मरण, झट्टी, सर्ग, येमकंड आमचीं निमणीं चार सतां.



*(देखावो - जाकारियासाचो घराबो)*

(दोतोर एकटोच कदेलार बसून विसंव घेता, तेन्ना भितर सावन कान्त चालू जाता. कान्त सोंपल्या उप्रान्त जाकारियस भायर येता.)

**कान्त** - 4

सुखी घराब्याचेर आयलीं काळीं कुपां
असलें वायट विझ लागोन काबार जालीं घरां
देवा लागीं मार्गोक जाय मजबूत करूंक जिवितार्ची दोरां
काळीज नितळ दवर पयस करून ढोंगी रुपां

**-कोरस-**

बरें केल्यार बरें मेळटलें त्याच मापान
संवसारांत बरें जिवित सार चलन सदांच माये-मोगान
जिवें झाड बावन वेता जशे परीं त्या उज्याच्या धगान
मनश्याचें जिवित काबार जाता भिरांकूळ दुयेंसान

जाकारियस : डॉक्टर, तुज्या उपकाराक वाखांड्णी दिवंक म्हजे लागीं उतरां नात. तिन म्हयने तुवें म्हाका दीस आनी रात तुजो सांगात दिलोय. आयज सिडनी जिवो उरला जाल्यार तुज्याच उपकारान डॉक्टर.

डॉ. नाडकर्णी : तुका दिसता जाल्यार. पूण हें करून हावें तुजेर उपकार केला अशें मात केन्नाच चिंतिनाकाय. हावें एके इश्टागतीचो कायदो पाळ्ळा. एक इश्ट अद्रुश्टाक सांपडला आनी दुसऱ्यान ताका सोडप हें सारकें न्हय अशें म्हाका दिसलें.

जाकारियस : आमकां लागोन तूं तुजे फामिलीक लेगीत उणो जाला, हें हांव मानून घेता.

डॉ. नाडकर्णी : पुरो कर जाकारियस. त्या पासत तुवें वयर खाला जावंची गरज ना. एक सांग, मारीया दिश्टी पडूंक ना...

जाकारियस : मारीया आपल्या भावाच्या घरा गेलां. तिणें सिडनीक लागोन आपली तकली अर्दी पिड्डेर केली. ताचीं घरचीं म्हूणोंक लागलीं थोडे दीस खंयसरूय धाड म्हूण, ताचीं चिंतना पयस जातेलीं. आनी, तें घरा ना जावन अधिक बरें जालें, म्हाका नाका आसलें मारीयाची नदर अकस्मात सिडनिचेर पडलेली, कित्याक, मारीयाक आयज परियान खबर ना की सिडनी त्या दुयेंसातलो बरो जालो काय ना तो. ताचे मनांत फक्त एकूच आसा की आपलो पूत दुयेंत जाला आनी तो बरो जावंचो ना.

डॉ. नाडकर्णी : पूण तुवें ताचे विशीं कितें येवजिलां?

जाकारियस : डॉक्टर, मारीया खंयच्याय वेळार घरा येंवक शकता. तेन्ना, आमी ताका बरे भाशेन समजावन घेवन ताचें मन तयार करूंक वावरूया आनी उप्रान्त ताका सिडनीच्या रुमांत व्हरूया. आनी, हें करूंक म्हाका तुजो आधार जाय.

डॉ. नाडकर्णी : जाकारियस, आयज ना फाल्यां तांची भेट जातलीच. पूण तुजी घरकान्न ताका आपलो पूत म्हूण मानून घेवंक कबूल आसतली हो दुबाव, कित्याक, सिडनी थांय खूब बदल जाल्लो आसा. तो

तुजो पूत आदले परीं ना.

जाकारियस : हें हांव मानून घेतां. पूण दुसरे वाटेन ह्या दुवेंसांतलो सालवार जालो हें पळोवन ती खूब खोशी जातली अशें म्हाका दिसता.

डॉ. नाडकर्णी : अशें घडों येता जरी तर आमी तिचे मन बदलीत जाल्यार. पूण तिणे ताका आपलो पूत म्हूण मानून घेंवक जाय. हें चड गरजेचें.

जाकारियस : डॉक्टर, PSYCHOTHERAPIST आनी SPEECH THERAPIST हांचें कितें जालां?

डॉ. नाडकर्णी : ते पासत तुवें काळजी करपाची गरज ना. I WILL TAKE CARE OF THAT. पूण एक, जरी तर मारीया खंयच्याय वेळार घरा आयलें जाल्यार, ह्या घरांत आसलेल्या मनश्यांनी, सिडनीक घरा हाडला म्हूण कांयच सांगोंक उपकारोना. (सिडनिच्या रूमांत वता)

जाकारियस : तें हांव आतांच जाग्यार घालतां.

(लिपूक उलो मारता)

(लिपू भायर येता)

लिपू, हें पळय, मादाम खंयच्याय वेळार घरा येवंक शकता. जरी तर ती घरा आयली जाल्यार सिडनीक घरा हाडला म्हूण सांगनाकाय. अशें म्हूण मॅथिवाकूय सांग.

लिपू : बरें बाबा.

जाकारियस : डॉक्टर, हांव जाणां की तूं खूब थकला आसतलो म्हूण. COME HAVE A NAP.

लिपू : मॅथिव, मॅथिव.

मॅथिव : (भितरल्यानूच) कितें जालां रे?

लिपू : बेगिन हांगा यो.

मॅथिव : (भायर येवन) कितें जालां?



लिपू : पळे. आयज ह्या घराची सगळी 'चार्ज' पात्रांवान म्हजेर सोडल्या. म्हाका जाय ते परीं 'ऑर्डरी' दिवंक लायल्यात.

मॅथिव : हां, अशें? तशें जाल्यार एकदम बरें जालें सगलें तुज्या हातांनीं सोंपयलां जाल्यार. ह्याच नेटार घेवूंया बरें कप.

लिपू : शी. शी. शी! आमी मात्शी तरी रीत म्हूण्टात ती सांबाळूंक जाय.

मॅथिव : हय इतलो तेंप आमी ती सांबाळीत आयल्यात. रीती माणसुकेचे भुरगे आमी.

लिपू : हां! आतां कसो उलयलो? पळे मॅथिव, पात्रांवान तुका सागूंक लायलां की मॅडम घरा येत तर तिका कळोंक दिनाका की सिडनी बाब घरा आयला म्हूण.

मॅथिव : कित्याक रे?

लिपू : तें हांव नकळं. 'ऑर्डर' म्हूणचें 'ऑर्डर'. हांव सांगता ते तूं आयकन घे.

मॅथिव : बरें.

लिपू : चल, आता तूं तुज्या कामाक लाग. हांव म्हज्या कामाक लागतां.

मॅथिव : मॅडमिक कित्याक गमोंक दिंव नाका म्हूण सांगलां काय? आपल्या पुताक पळोवंक कोणूय आवय आशेतली... हां, हां. जेरूल हो आपूण मॅडमीक पयलो कळोंवक सोदता आसतलो. पूण हांव पयलो कळयतलों. मॅडम खूब खोशाल भरीत जातेली आनी म्हजें नांव जातेलें, हांवे पयलीं कळोवन दिलां म्हूण. (हांसता)

(इतल्यान गाडयेचो आवाज येता आनी मारीया येवन दारार उबें जाता.)

मॅथिव : मॅडम, कशी आसा?

मारीया : हांव आसा बरीं.

मॅथिव : मुदास कसो जालो?

मारीया : एकदम बरो.

मॅथिव : मॅडम, तुका खोशेची खबर!

मारीया : खोशेची खबर?

मॅथिव : हांवें सांगलां म्हूण कोणाकूच सांगो नाका. सिडनी बाबाक हॉस्पिटलांत सावन घरा हाडला.



मारीया : खंय आसा म्हजो पूत?

मॅथिव : त्या रुमांत.

(मारीया रुमांत वता. रुमांत पळेता आनी व्हडल्यान किळांच मारुन भायर सरता)

मारीया : ना.... ना.

जाकारियस : मारीया.

मारीया : हो म्हजो पूत जांव नजो.

डॉ. नाडकर्णी : मारीया. (मारीया रड्टा) मारीया, कित्याक रड्टाय? तो तुजो पूत. तो त्या दुर्येसातलो सालवार जालो म्हूण तुवें देवाक आरगां दिवंक जाय.

मारीया : जाल्यार, हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेलां तें कितें? एक सपन?

डॉ. नाडकर्णी : सपन न्हय. पूण सत. अशें रडो नाकाय. ह्या वेळार सिडनीक तुमच्या मोगाची आनी बुझवणीची गरज आसा. जाकारियस, तूं सिडनीक घेवन यो. मारीया, सिडनी सारको बरो जाला; ताका नवें जिवित मेळ्ळां. तूं रड्टा तें पळोवन ताचें काळीज दुखी जातेलें. अशें करी नाका मारीया.

(मारीया रडत रावता. जाकारियस WHEEL CHAIRR घालून सिडनीक घेवन भायर येता.)

जाकारियस : (आपले दोळे पुशित).... मारीया

मारीया : तुमी म्हूण्टात की म्हजो पूत बरो जाला, जाल्यार हें कितें?

डॉ. नाडकर्णी : मारीया रडोनाका. त्या दुयेंसांतले सालवार जाल्यात तितलेय हेच परीं अपंग आनी उण्या गिन्यानाचे उरल्यात.

(मारीया व्हडल्यान रडटा आनी सिडनीच्या फुड्यांत दिमी घालता.)

(चवथो पड्डो सोंपता)

*(देखावो : जाकारियसाचो घराबो. वेळ रातचोःसुमार बारा वरांचो. माचयेर सुमाराचो काळोख. रातकीडींचो आवाज. भितरल्यान कान्त म्हणटा. कांत चालू आसतना जाकारियस ग्लासांत सोरो ओतता; पियेता आनी पुस्तकांचें पार्सेल उक्तें करता आनी पुस्तक वाचता. कांत सोंपल्या उपरान्त मारीया भायर येता)*

**कांत** - 5

मनश्याचें जिवित थोड्याच दिसाचें ह्या मतलबी संवसारांत
चिंतलेलीं चिंतनां सपनां जालीं, काळें कूप आयलें घरांत
थोडे खोशेन मजा मारतात सुख आसा तांच्या नशिबांत
थोडे बाबडे दुकां गळोवन रडटात, वायट दिस आयल्यात म्हूण जिवितांत.

**कोरसः**

हेंच मनशाचें जिवित पारखूंक जावचें ना कोणें
जिवितांत आयलेलें सुख-दुख सोंसून व्हरंक जाय तुवें
बारीक नियाळ केल्यार काळजाक ह्या तोपतात भाले
देखून इश्टा चत्रायेन राव, मोग दाखय दुसऱ्या सवें

मारीया : जाकारियस, हें तूं कितें करताय, पळेलां रातचो कितलो वेळ जालो तो?

जाकारियस : हांव जाणां.

मारीया : जाल्यार न्हिदलोलो उठोन हांगा कित्याक आयलाय?

जाकारियस : हें पुस्तक वाचपाक.

मारीया : कसलें पुस्तक तें?

जाकारियस : मारीया, हीं पुस्तकां हांवें इंग्लंडाक सावन स्पेशल हाडूंक लायलेलीं. हांवें वैजुकी मळार कसल्या कसल्या नव्या दुयेंसांचेंर वखदां सोदुन काडल्यांत आनी काडपाचे प्रयत्न चालू आसात ताची म्हायती ह्या पुस्तकांचेर शापून हाडटात.

मारीया : हीं पुस्तकां वाचून सिडनीचे परिस्थितींत बदल जावपाची शक्यताय आसा अशें तुका दिसता?

जाकारियस : हय. म्हाका भरवंसो आसा की एक दीस म्हजो पूत जेरूळ बरो जातलो. आयज ह्या संवसारांत वैज कसलीं कसलीं अजापां करून दाखयतात. मारीया, सांग म्हाका की ह्या संवसारांत एकूय हुशार वैज आसचो ना, जो म्हज्या पूताचें 'ओपेरेशन' करून ताचे हात-पांय आनी तोंड सारकें करता तसलो?

मारीया : हीं तुजीं चिंतनां म्हजें मन धुस्पायतात.

जाकारियस : म्हज्या चिंतनांनी म्हाका सदांच जैतिवंत केला. ल्हान आसतना हांव सदांच चिंततालों की हांव एक व्हड धंद्याकर जातलों म्हूण आनी आयज हांव तोच जालां. आयज कितें उणें आसा म्हाका? देखून हांव समजतां की ह्या म्हज्या पुताचें दुयेंस म्हज्या जिवितांत म्हाका एक आव्हान, एक 'चॅलेंज', ताका पर्थून आदले परीं सारको करूंक.

मारीया : पुरो आतां. चड वेळ जालो. हो वेळ सोरो पियेवपाचो न्हय. मनश्याक वेळार न्हिद गरजेची जावन आसा.

जाकारियस : मारीया, न्हिद येवपाक अवघड लागता ताका न्हिदेचें म्हत्व खंय

समजता? म्हजी न्हिद खूब उणें जाल्या. रात सोंपोंन दीस केन्ना येतोलो काय दिसता. जिवाक सुशेग आनी मनाक शान्ती परती म्हाका कोण दितलो?

मारीया : जाकारियस, तुज्या सगळ्या चिंतनांचेर विसर घालूंक प्रयत्न कर. यो जाकारियस यो. तें पुस्तक फाल्यां वाच (तीं दोगांय तांच्या रुमांत वेतात)

(लायट पालवता. म्यूझिक बॅकग्रावंड)

(सिडनीच्या दाराचो आवाज. दार उक्तें जाता. वाऱ्यान दाराचो पड्डो वयर उबता तसोच दारांतल्यान उजवाड भायर सरता आनी सिडनी चलत चलत भायर सरता आनी शिडयेर चडून मामा-पापाच्या रुमांत भितर वचूंक सोदता. पूण वचूंक जायना जावन तो तांकां उलो मारता. मामा-पापा भायर धांवून येतात. माचयेर उजवाड जाता)

सिडनी : पापा, पापा, पापा.

मारीया : बाबा कितें जालां, बाबा कितें जालां?

जाकारियस : कितें जालें बाबा, तूं खंय वचूंक सोदतालोय?

सिडनी : पापा, म्हाका तुका कितें सांगूंक जाय.....

जाकारियस : कितें बाबा, सांग.

सिडनी : पापा, तुका म्हजो राग येवचोना मूं?

जाकारियस : ना म्हज्या पूता. सांग तूं कितें सांगूंक सोदताय.

सिडनी : पापा, तुका म्हजो मोग ना. हांव तुजो एकलोच अपुरबायेचो पूत. म्हजे विणे तुका ह्या संवसारांत कोण आसा पापा?

जाकारियस : हय बाबा. तूं म्हज्या मोगाचो पूत. पूण तूं कितें सांगोंक सोदताय?

सिडनी : पापा, तूं सदांच रातचो उठोन सोरो पियेताय, कित्याक पापा?

जाकारियस : फक्त म्हजी चिंतनां पयस करूंक.

सिडनी : हांव जाणां पापा तू म्हजें चिंतून सोरो पियेता. माका लागोन तुका रातची न्हिद पर्यान सारकी पडना.

जाकारियस : हय बाबा.

सिडनी : पापा, हो म्हजो भेस असो जाला म्हूण हांव दुखी न्हय, पूण हे तुजे हाल पळोवन हें म्हजे काळीज रडटा.

जाकारियस : बाबा, म्हज्यान तुका हे परी पळोवपाक जायना.

सिडनी : पळोवपाक जायना जाल्यार जिवेशीं मार पापा म्हाका जिवेशीं मार.

मारीया : अशें म्हणो नाका बाबा, अशें म्हणो नाका. हे परी उलोवन तुज्या मामा पापाचे काळीज अधिक दुखोवनाका.

जाकारियस : बाबा सगळें सारके जातेलें, तुका बरो हांव करतलों बाबा, हांव.

सिडनी : ना पापा, हांव जाणा की हांव आनीक बरो जावचो ना म्हूण. म्हजो शेवट असोच जातलो. हांव आनीक बरो जावचो ना. (भितर वता)

जाकारियस : बाबा, तूं बरो जातलो, संवसाराच्या खंयच्याय कोनशाक तुका व्हरपाक पडल्यार पोडों, हांव फाटीं सरचो ना. पळे बाबा तुका लागोन हांव कितलीं पुस्तकां वाचतां. म्हाका पुराय खात्री आसा, एक ना एक दीस हीं पुस्तकां म्हाका बरी खबर हाडटलीं, आनी हे म्हजे उचांबळ जालेलें मन शांत जातेलें.

(सिडनी परत एकदां भायर येता)

सिडनी : उचांबळ जालेलीं दर्याचीं ल्हारां शेवटाक खडपाक आपटोन फुट्टात. पापा, ही पुस्तकां वाचून कांयच फरक जावचो ना, कित्याक जें पुस्तक तुवे वाचूंक जाय आसलें तें वाचूंक तूं विसरलोय.

जाकारियस : कसलें पुस्तक तें बाबा, सांग बाबा. हांव तें पुस्तक वाचूंक तयार आसा.

सिडनी : खरेंच पापा, तें तू वाचूंक सोदताय. पापा घे.

जाकारियस : हय बाबा.

सिडनी : घे (पवित्र पुस्तक पापाच्या हातांत दिता.)

जाकारियस : पवित्र पुस्तक?

(पड्डो सोंपता)

*(कांतार म्हणत भितर सरता. दीस, सांत जुवांवाच्या फेस्ताचो. फुडें चलता लिपू आनी ताच्या फाटल्यान लुट्ची आनी उपरान्त मॅथिव. तांचे तकलेर कोपेलां. लुट्चीच्या खांदार एक पणस. मॅथिवाच्या हातांत एक काजू-फेणीची बोत्ल आनी ग्लास.)*

**कान्त - 6**

तेगूय आमी जावूंय वर्ततांव चडा तेंपान भेटल्यात
सांत जुवांवचें फेस्त म्हूण मावड्या आयल्यात
माथ्याक हीं कोपेलां घालून उदक न्हांवक भायर सरल्यात
आयचो दीस व्हडा खोशेचो नकत खंय पावल्यात

**कोरसः**

सांत जुवांव, सांत जुवांव घुंवता मुरे वाट आमकां दिसना
आयचो दीस खोशेचो कोण कोणाक हांसना
चल रे पिए रे, तूं इल्लो घेरे कोण कोणाक आडायना
असलीं फेस्तां वर्साक कित्याक दोन पावटी येना?

लुट्ची : (कांतार काबार जाले उपरान्त) I LIKE IT, I LIKE IT.

मॅथिव : YES. YES. (पणसाक बोट दाखोवन) GOOD. GOOD FOOD. GOOD FOOD.

लिपू : हो आनी आमचो गणसा-बैल फक्त GOOD FOOD म्हूणोकूच जाणा. चल चल. या फुडें.

लुट्ची : I ENJOY YOUR COMPANY. I LIKE GOAN FESTIVALS, ESPECIALLY SAO JOAO. HARVEST FESTIVAL AND, OF COURSE VIVA CARNIVAL.

मॅथिव : चल या. पूण लिपू बाब, दुख म्हाका दिसता आयच्या दिसा.

लिपू : (तापोन कसो) आयच्या दिसा तुका दुख दिसता, कित्याक रे?

मॅथिव : आयज सगले वचून आप आपल्या मावाड्या बांयत उडकी मारतेले. आमी वचोन खंयचे बांयत उडकी मारपाची?

लिपू : आसात तितलेय आमचे मावोडे मुरे. मेळटा ते बांयत मारूंया...

मॅथिव : आमच्या नशिबांत केन्ना एक मावाडो फावो जातलो कोण जाणा!

लिपू : चल, चल या.... (पर्थून कांतार म्हणटा आनी वता)

(पड्डो सोंपता)

*(देखावो : जाकारियासाचो घराबो. वणटीक एक कोंत लांबयलेलें दिसता. जाकारियस पवित्र पुस्तक वाचता. इतल्यान तावारीस भितर सरता.)*

तावारीस : GOOD MORNING SIR

जाकारियस : GOOD MORNING तावारीस. यो बस.

तावारिस : म्हाका कित्याक आपोवंक धाडला सर?

जाकारियस : तावारीस, हांव जाणां की तूं ह्या म्हयन्यात 'रिटायर' जाताय म्हूण. ह्या म्हज्या WESTERN ORE कंपनीत तुवें खूब वर्सां जबाबदारेन नोकरी केली. हेच कंपनी उदेर्शीं हांव एक व्हड धंदेकार जावंक पावलो. पूण तरूय आसतना जायते खेप म्हजे कंपनीत तकस घेवन काम करतल्या कामगारांच्यो मागण्यो हांवें भेऱ्या कानार घेतल्यो, तांकां ज्यो सवलती मेळूंक जाय आसल्यो त्यो हांवें तुमकां दिवंक नात.

तावारीस : पूण सर, सद्याक कामगार हाचे वयर तुजेर कसलोच शिण करिनात.

जाकारियस : तूं म्हाका फट मारताय, हांव सगलें जाणा. तावारिस, तूं जाणां की आयज हे म्हजे WESTERN ORE कंपनीक तीस वर्सां

भरतात, आनी आयच्या दिसा हांवें एक निर्णय घेतला आनी तो निर्णय म्हूटल्यार तांच्यो सगल्यो मागण्यो पुराय करपाचो. म्हाका माफ करात, म्हाका माफ करात, इतलो तेंप तुमचें दुख वळखूंक हांव विसरलों देखून.

तावारीस : सर, तशें आनीक म्हणो नाकाय. आमी जाणात की तुज्या एकट्याच पुताच्या दुयेसांक लागोन तुजी परिस्थिती कितें जाल्या ती. पयली सिडनीक बरो जांव दी. उपरान्त आमचें पळोवचें. सर, सगळे कामगार आपल्यो मागण्यो विसरन ते फक्त देवालागीं सिडनीचे भलायके पासत दिसरात मागत आसात.

जाकारियस : ना तावारीस, तूं 'रिटायर' जांवचे आदीं तुमच्यो मागण्यो तुमकां मेळूंक जाय.

तावारीस : बरें तर सर हांव वेतां.

(मारीया भितर सरता)

मारीया : जाकारियय, जायते दिस जाले, हांव तुजे लागीं कितें विंचारूक सोदी, पूण हें काळीज म्हाका बळ दिना तुजे थांय भासा-भास करूंक.

जाकारियस : मारीया, तुज्या काळजांतले उल्हास तुज्याच भितर घेवन रावप बरें न्हय, देखून तुज्या काळजांतलीं भावनां उक्तापीं कर.

मारीया : जाकारियस दीस-रात म्हज्या मनांत एकूच चिंतप येता, जरी तर आमकां कितेंय वायट जालें जाल्यार आमच्या पुताचें कितें?

जाकारियस : तूं वयर-खाला कित्याक जाताय मारीया, वाऱ्यार उडटल्या सुकण्यांक कोण राखता, देवूच मूं? तूं धास्ती विणें राव, हावें हाचे वयर सगलें चिंतून दवरलां. देवाक जाय तशेंच जातलें.

(इतल्यान भितर सरता फादर विलफ्रेड)

फा. विलफ्रेड : CONGRATULATIONS! म्हजीं हुनहुनित परबीं तुमकां आयच्या खोशेच्या दिसा. सिडनी खंय आसा? (दोगांयकूय परबीं दिता)

जाकारियस : सिडनी न्हिदला.





फा.विलफ्रेड : पूण आता तो कोसो आसा?

जाकारियस : PHYSIOTHERAPIST आनी SPEECH THERAPHIST हांच्या व्यायामा वरवीं तो उलोवंक आनी चलूंक शकता, पूण परिस्थितींत व्हडलो सो बदल जांवक ना. विलफ्रेड, हांव चड खोशी कित्याक तुवें तुजीं सगलीं कामां सोडून म्हजें आमंत्रण स्वीकारलेंय देखून.

फा. विलफ्रेड: संसारांत मनिस कितल्याय कामांनीं रेवोडलोलो आसलो जाल्यार ताणे थोडो वेळ आपले 'फॅमिलीक' दिंवचोच पडटा.

जाकारियस : आयज म्हजे WESTERN ORE कंपनीक तीस वर्सां भरतात. ह्या निमतान हांवें तुका CANADAक सावन हांगा आपोवन हाडला. पूण हांतूंत सोत भलतेंच आसा.

फा. विलफ्रेड: कसलें ते? कितें सांगोंक सोदताय तूं?

जाकारियस : विलफ्रेड, अठ्ठाविस वर्सांचो मजबूत तर्नाटो आसतना हांव बिझनेसांत भितर सरलों आनी ह्या तीस वर्सां भितर हांव धनी जांवक पावलों पांच वजनादीक कंपन्यांचो. आयज तांचो वालोर जाता 1,500 कोटी रुपया..... हांवें रातीचे दीस केले फक्त दुडवांचे आशेक लागोन पुण आयज म्हाका चिंतून येता मनिस गिरेस्तकाय एकटावंक आपलें जिवित झरयता विसरन देवाक आनी मनिसकुळाक आनी आखरेक तो संवसार सोडून रोचणाक्‌ फुडो करता आपल्या पातकांचें फारीकपण दिवपाक. हांव चड खोशी कित्याक ह्या म्हज्या पुताच्या दुर्वेसा वरवीं म्हाका कळून आयलें की हांव चड चलतालों ती वाट जावन आसली म्हूणोन इर्फेनाची आनी म्हाका म्हजें जिवित बदलपाक एक सुयोग मेळ्ळो. NOW I AM TRYING TO RETIRE FROM ALL THIS BUSINESS.

फा. विलफ्रेड : तर हो तुजो धंदो...

जाकारियस : हांवें चिंतलां ह्यो सगल्यो कंपनी तुज्या हातांत करपाक.

फा. विलफ्रेड : म्हज्या हातांत?

जाकारियस : हय विलफ्रेड. आतां म्हजें जिवित वाऱ्यार तुटोन गेलेल्या पतंगा वरी जाला. ते पासत ह्या म्हज्या 1,500 कोटी रूपयांच्या धंद्याचें कितें करचें ताचो तुमचे संस्थेन निर्णय घेवचो. पूण चड करून हो दुडू अपंग मनशांच्या बऱ्यापणाखातीर उपेगाक घालूंक म्हजी विनवणी.

फा.विलफ्रेड : जाकारियस, हो तुजो निर्णय म्हाका घुस्पागोंदळांत घालता. म्हाका हें सत मानूक अवगड लागता.

जाकारियस : हें अस्सल सत विलफ्रेड. म्हजे आनी मारीयाचे जिवित आनीक कितलो तेंप तगपाचें आसा ह्या संवसारांत? आमच्या फाटल्यान ह्या आमच्या पुताची सेवा कोण करतलो? देखून हांवें चितलां म्हज्या पूताक, सिडनीक तुजे स्वाधीन करपाक. ही तुमची संस्था जी अपंग मनशांची सेवा करता ती ताका सांबाळटलीं. आनी हेंच सांगोंक हांवें तुका CANADAक सावन हांगा आपोवन हाडला.

(सिडनी भितर सरता )

सिडनी : पापा, हांवें भितर रावन सगळें आयकलां पापा, आयज हांव चड खोशी.

जाकारियस : पूण कित्याक बाबा?

सिडनी : कित्याक तुवें तुजें जिवित बदललेंय देखून. पापा, ह्या तुज्या धंद्यावरवी तूं एक व्हड मनिस जालो, पूण कित्याक उपकारता पापा जिकोन आख्खो संवसार, पूण ना जावन आमकां आमच्या आत्म्याचें धादोसपण?

जाकारियस : बाबा, हांव चुकलों. म्हजे लागीं आसलेली गिरेस्तकाये वरवीं हांव समजतालों की हांव म्हज्या जिवितांत जिखलो म्हूण. पूण अचकीत भूंय-कांप जावन म्हज्या घराब्याचो अखंड खांबो कसळलो आनी हांव हारलों. म्हजे लागीं इतलो दुडू आसतना हांव कांय करूंक शकलों ना.

फा.विलफ्रेड : हाचे वयर नियाळ करून आतां निराशी जायनाकाय.

जाकारियस : आता हांव खूब थकलां... म्हजे उरलेलें जिवित म्हजे घरकान्नी सांगाताक सारूंक जाय.... विलफ्रेड म्हज्या भावा, तुजे लागीं म्हजे एकूच मागणें, सिडनीक घडटा ते परीं ह्या समाजाचो बरो नागरीक करूंक तुमी प्रयत्न करचो, जे वरवीं तो दुसऱ्यांच्या जिवितांत उजवाड घालूंक शकता.

फा. विलफ्रेड : जेरूल जाकारियस. पूण हें करूंक आमच्याच हातांत ना. धनया, तुज्या बेसांवाची आनी आधाराची आमकां चड गरज. आमी तुजेरुच पातयेवन असल्या अपंग मनश्यांच्या सेवा-चाखरेचो वावर फुडें व्हरतांत. तूंच आमकां तुजी शक्ती आनी बळ दी.

(सिडनी थांय वचोन ताका वेंगायता. एके वाटेन जाकारियस आनी मारीया उरतात)

## (भितरल्यान कान्त)

### कान्त-6

मनश्याचें जिवित थोड्याच दिसांचें ह्या मतलबी संवसारांत
चिंतलेलीं चिंतना सपनां जालीं काळें कूप आयलें घरांत
थोडे खोशेन मौजा मारतात सुख आसा तांच्या नशिबांत
थोडे बाबडे दुकां गळोवन रडटात वायट दीस आयले म्हूण जिवितांत.

### कोरस:

हेंच मनशाचें जिवित पारखूंक जांवचे ना कोणे
जिवितांत आयलेलें सुख-दुख सोंसून व्हरोंक जाय तुवें
बारीक नियाळ केल्यार काळजाक ह्या तोंपतात भाले
देखून इश्टा चत्रायेन राव मोग दाखय दुसऱ्यां सवें

.............(तियात्र सोंपता).............

# भूंय-कांप

मेरशे क्लब मेरशे हाणी कला अकादमीचे 29 वे तियात्र स्पर्धेत 16वेर सप्टेंबर 2003 ह्या दिसा दाखयलेल्या तियात्रांत वांटो घेतलेले कलाकार:

| | | |
|---|---|---|
| 1. | जाकारियास (पापा) | डॉमनीक द आरावजो |
| 2. | मारिया (मामा) | आएसीजा बार्रेत |
| 3. | सिडनी (पूत जाकारियासाचो) | मार्क द आरावजो |
| 4. | फा. विल्फ्रेड (भाव जाकारियासाचो) | आग्नेल फुर्ताद |
| 5. | डॉ. नाडकर्णी | हेमंत गोलतकार |
| 6. | डॉ. रोडनी | गाब्रिएल ब्रागांझा |
| 7. | रोझी (सेक्रेटरी) | माग्दालेना गोन्साल्वीस |
| 8. | लिप्पू (कामदार) | लिप्पू रुद्रीगिस |
| 9. | मॅथिव (कामदार) | मॅथ्यू द् सौझ |
| 10. | मि. तावारिस (कामदाराचांचो प्रतिनिधी) | रॉबर्ट रुद्रीगिस |
| 11. | लुटची (सिडनीचो इश्ट) | पावल वाझ |

सर्तित ह्या तियात्राक प्रयोगाचें पयलें इनाम फावो जालें. सिडनीचे भुमिके खातीर मार्क द आरावजो हाका बरो नट म्हूण पयलें इनाम फावो जालें. जाकारियासाचे भुमिके खातीर डॉमनीक द आरावजो आनी मॅथ्यूचे भुमिकेखातीर मॅथ्यू द सौझ हांकां प्रमाणपत्रां फावो जालीं. बरो दिग्दर्शक म्हूण आवितो फेर्नांदिस हाका 2रें इनाम फावो जालें आनी दीपू गावस हाका बरें रंगभुशे खातीर पयलें इनाम फावो जालें.



मार्क द आरावजो

जल्म : 24 ऑक्टोबर 1966.

शिकप : 12वी कला विभाग,
3 वर्सांचें 'मरीन फिटींग' विभागाचें तंत्रीक शिकप केलां. सद्याक पणजे वीज खात्यांत कामांक आसा.

पत्तो : धेंपो हावसालागीं, सांत आगोस्तीन,
सांताक्रुज, तिसवाडी–गोंय.

भुरगेपणासावन एक अंकी नाटकुल्यांनी आनी तियात्रांनी भुमिका करपाची आवड. एक–अंकी नाटकुलीं बरोवन थळाव्या सर्तिंनी सादर करून इनामां जोडल्यांत.

नामनेचे तियात्रीस्तं पॅट्रीक दोवराद, प्रिन्स जाकोब, मारिओ मिनेझीस, पास्कुआल रोड्रिक्स हांच्या वांगडा तियात्रांनी भुमिका केल्या.

'भूंय–कांप' तियात्राक 29वे कला अकादमीचे राज्य पांवड्यावयले सर्तित पयलें इनाम फावो जालां. 'भूंय–कांप' आनी 'संवसार सोंपल्या उपरांत' ह्या दोन टेलेफिल्माचीं व्हीसीडीच्या रूपान निर्मिती केल्या.

'गुलाब' आनी 'गोंयचो आवाज' पत्रांचेर बरोवप केलां.

गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी, पणजी–गोंय